# चित्रलिपी

परेश नरेंद्र कामत

२०१३

म्हजे आवयक
म्हज्या बापायक
आनी
सदिच्छा, अन्वित
अर्णव, आर्या, शार्दूल
ह्या तांगेल्या नातरांक...



'चित्रलिपी' हो म्हजो चवथो कविता झेलो. ह्या झेल्यांत २००६ ते २०११ मेरेन बरयल्ल्या वेंचिक कवितांचो आसपाव केला.

म्हाका दिसता, फाटलीं पंचविशेक वर्सां जालीं हांव सातत्यान कविता बरयतां. म्हाका त्यो येतात अशेंय जाय जाल्यार म्हणूं येता. 'अळंग', 'गर्भखोल' आनी 'शुभंकर' ह्या तीन कविता झेल्यांतल्यान त्यो रसिकां मुखार आयल्यात. इतलीं वर्सां - सातत्यान कविता बरयले उपरांत- कविता हें म्हजें 'पिशें' म्हणपाचें म्हाका जाणवता आनी हें पिशें म्हज्या रगतांतूच आसा. घडये हें- genetic inheritance वा evolving mutation आसूं येता. म्हज्या मुळांतूच आशिल्ल्या गंभीर आनी संवेदनशील सभावाक लागून म्हजे कडल्यान गंभीर स्वरूपाचें लेखन घडटा. कविता हें म्हजे अभिव्यक्तीचें सभावीक माध्यम अशें म्हाका दिसता.

हांव म्हजे कविते कडेन आवयच्या काळजाच्या दोळ्यांनी पळयतां.

आमच्या गोंयांत कवितेचे वाचक खूब आसात. कवीय खूब आसात. पूण कवितेचे रसीक साप्प थोडे. तातूंत म्हजे कवितेचे रसीक तर सामकेच थोडे. खंयचोय कवी आपलो अणभव कवितेंतल्यान मांडपाखातीर उतरांचो आदार घेता. पूण तो ते कवितेंतल्या उतरांतल्यान उतरां पलतडचें सुचयत आसता. शेकीं, खंयचेय कवितेंत उतरां येतात तीं कवितेचो आशय समृध्द करपाक. ते नदरेनूच कवी कवितेंत उतरांची मांडावळ करीत आसता. खासा कवीक लेगीत एकएकदां आपले कवितेंतलें एक उतर हालोवंक मेळना इतलो 'टोटॅलिटीन' कवीन कवितेंतल्या उतरांचो विचार केल्लो आसता. म्हणुनूच सादो वाचक कविता वयले वयर वाचत

आसता आनी रसीक वाचपी कवितेंतलें एक एक उतर जगमा भशेन मोव करून, गोड करून तें चोखीत आसता. ते खातीर कविता ही रिसेप्टीव मुडांतूच वाचपाची आसता. तेन्नाच ती बरे तरेन समजता.

म्हजी एकाद्री कविता रसिकाक जेन्ना भिडटा, भावता, ती कविता ताच्या खोल काळजा मेरेन पावता तेन्ना त्या रसीक वाचप्याचो तो आनंदोत्सवूच आसता. मागीर कवितेचे रसीक, साहित्यकार, कलेचे आस्वादक हांचे फोन येतात. चिटी येतात. कविते विशींच्यो तांच्यो प्रतिक्रिया कळटात. तातुंतल्यान चर्चा घडटात. विचारांक चालना मेळटा. रसिकांची कले विशींची तळमळ, जागरूकताय कळटा. आपल्या सृजनाकडेन गंभीरपणान पळेतल्या एकाद्रया-दुसऱ्या समानधर्मा साहित्यकाराचो कले संबंदांतलो दिश्टीकोन समजता. नवी नदर मेळटा. नवें शिकपाक मेळटा... मागीर कोणेंय तें म्हज्या सभावांतलें ‘पिशेंपण’ अशें म्हळें जाल्यार लेगीत ताचें वायट दिसना. अशे तरेचें- म्हजें, कवितेविशींचें पिशेंपण- हांव फाटलीं कितलींशींच वर्सां कवी शंकर रामाणी, कवी माधव बोरकार, कवी रमेश वेळूस्कार, साहित्यकार रवींद्र केळेकार, पुंडलीक नायक, दत्ता दामोदर नायक आनी डॉ. नंदकुमार कामत हांच्या सांगातान सारीत आसा. दिसान दीस तें कवितेचें पिशेंपण शाणेपणांत बदलचें सोडून पिंपळा भशेन सळसळत आनिकूय पाचवेंचार जायत आसा...

**परेश नरेंद्र कामत**

## व्हडें

रातीच्या ह्या
तुडुंब भरिल्ल्या काळख्या उदकांत
उदेल्ली ही
चंद्रकोर
म्हाका
व्हडें कशी दिसता...

चल,
बसुया आमी ह्या व्हड्यांत
दोगांय
धोलत
सपनेवया
पळेत रावया
एकामेकांच्या दोळ्यांत
अनंतकाळाचीं सपनां...

## तरंगतना

होडयो
तरंगत आसात
दर्यांत
आनी
हो काळ व्हांवत आसा
उदक जावन...

हांव
तरंगतं आसा
तुजे वेंगेंत;
दर्याचे वेंगेंत होडये वरी
ताची मात लेगीत लागना सुलूस
तरंगतना

## खडपां

मनांत खूब खोल मेरेन आसात खडपां
एकांतांत हांव थंय वचून बसतां
आनी
हांवूय जाता एक खडप
किण्णतायेंत गडप.
एकांत म्हळ्यार आसता एक खडपूच
काळेंकिट्ट;
त्या खडपा पोंदच्यान
येता आयकूंक
हयन्हयशी
केन्ना केन्ना
धव्याफुल्ल उदकाची गाज...

# जलतरंग

पाणयाचो आवाज आयकूंक येतकीच
आपसूक मनांत जागी जाता
बांय

वाजूंक लागता
जलतरंग
रगताच्या थेंब्याथेंब्यांत

फुट्टात झरे शिरेशिरेंत
सळसळत
खोल
खोल
काळखांत...

खूब वर्सांच्या घुप्प काळखांतल्यान
भायर येतकीच
लख्ख उजळटा दोळ्यां मुखार
उगडासाचें उदक;
त्या उदकांत बुडटा हांव
गळ्यामेरेन
तुडुंब

आनी
पाणयाची तान लागतकीच
येता आयकूंक
खोल मेरेन
उदकाचें आवर्तन

-जंय
हांव उबो आसा आतां
थंय
उदकाचो जलतरंग वाजयत
केन्ना काळासावन
जागी आशिल्ली एक बांय...

# कांय होडयो उदकांत

कांय
होडयो उदकांत
काळ्योकिट्ट

कांय
घोडयो जमनीर
धव्योफुल्ल

होडयेंत बसलां तूं आनी हांव
आनी आमी पळयतात
घोड्यांक

आनी घोडयो पळयतात घोड्यांक
आनी
घोडे येतात हुबयत धुल्ल
चड्टात घोडयांचेर...

–होडयोय हालतात
हालता तूं आनी हालता हांव
आनी हालता उदक कायचे काय!

## उदकाची प्रतिमा

सगळेंच उदक जालें
सगळ्याचें उदक जालें
सगळेंच उदकांत गेलें व्हांवन
तूं आनी हांवूय जालों उदक
रगतूय जालें उदक
उदक जालें नुस्तें
आनी नुस्त्याचें जालें उदक
सगळी जीण उदकांत
सगळीं सपनां उदकांत
निमाणें, उरलें उदकूच उदक
उदकांत बुडत
उदकांत पेंवत
उदकार रावली तरंगत
उदकाची प्रतिमा...

## एके लांबचे लांब ओळींत...

एके लांबचे लांब ओळींत उसळत ल्हारेत आसा हो दर्या
व्हांवत आसा हें उदक आवेगान एके ओळींत कवितेंत
नाचतात हीं उतरां एके ओळींत वयर-सकयल
ताज्जीं फडफडीत नुस्तीं कशीं दर्यांतलीं

-एके लांबचे लांब ओळींत हांव ओडीत आसा रांपण दर्यांत!

# चित्रलिपी

व्हांवता न्हंय
गूढ अटंग्या रानांतल्यान काळख्या
मोडणां घेत घेत
आपल्या प्राक्तनाची देग
सांसपीत सांसपीत
उदकाचीं चित्रां
चितारीत चितारीत
जिवीताची धार जावन आवेगान
अख्खे जिणेची चित्रलिपी जावन
व्हांवता न्हंय...

# न्हंये सारकें

हें उदक व्हांवता पिशें कशें
काय व्हांवता हें पिशेंपण न्हंये सारकें
तुजें अशें?

हें पाणयाचें पिशेंपण व्हांवतें, फुलतें
रगतांतल्या
हें दोळ्यांतलें पिशेंपण ओलें
सुखांतल्या, दुख्खांतल्या

गूढ पाचवे सावळेचें तुजें
हें न्हंयेचें आंग
थांग लागना म्हजोच म्हाका इतलें तूं
अथांग...

# तुजें नागडेपण

तुजें नागडेपण
आसता
व्हांवत
मनांत म्हज्या
तुडुंब भरून
हुंवारील्ले न्हंयेभशेन
ना
  ग
मो
  डी...

# काळखाची बांय

कितलेय झरे
फुटले तरी
बांय म्हजी भरना

किट्टकाळें
तळाक गोठेल्लें
उदक वयर चडना...

बांयचे
उले काळखे
आयकूं कोणाक येना

उजवाडाचें
कीर्ण तुजें
उदकामेरेन पावना

सुस्कारता बांय
भितल्ले भितर
कोण्णाक कशें कळना?

काळखाची
बांय म्हजी
उजवाडान कित्या भरना?

## एकठांय

तूं आनी हांव
एकठांय आसुनूय
खंयतरी हें उणेंपण...

कितलेंय भरलें
उदक बांयत
तरी घुमत रावता रितेपण

# ओतय गो

ओतय गो
तुजी कळशी ओतय
म्हज्या कळशांत
ओतय गो
तुजी जीण ओतय
म्हजे जिणेंत...

## त्या पणट्यांचो झिळमिळ उजवाड...

तुवें पत्र धाडलां
ताची हांव पळेतां वाट

वाट
पळोवन पळोवन
हांव हांगा पडलां काळखांत

त्या काळखांतल्या
व्हांव्रत्या उदकांत
उतरांच्यो पणट्यो तुवें दिल्यात सोडून

त्या पणट्यांचो
झिळमिळ उजवाड
म्हजे मेरेन पावंक ना अजून

तुवें धाडिल्लें पत्र
म्हाका मेळूंक ना अजून...

# सान सान कागदी व्हडीं

सानुल्या भुरग्यांनी
सान सान हातांनी
दिलीं सोडून
कागदी व्हडीं सान सान
अळंग
उदकांत

त्या व्हड्यांचीं पडबिंबां
दिसतात अजुनूय
तरंगतना
खोश्शी खोश्शी जाल्ल्या
भुरग्यांच्या
दोळ्यांतल्या उदकांत...

# चित्रलिपयेचे भाशेंत

भुरगीं
वणटीर काडटात चित्रां

काडटात हात
काडटात पांय चित्रांक
आनी
चित्रां चलपाक लागतात
हात-पांय हालयत
वणटीं वयल्यान

तीं भुरगीं
ते भुरग्यांचे सानुले हात
आनी
निचेश्ट, अचेतन वणटींक
जिवसाण हाडपी हीं चित्रां
झळकत रावतात

म्हज्या दोळ्यां सामकार;
उलयतात म्हजे कडेन
आमचे मदल्यो सगळ्यो वणटी मोडीत
चित्रलिपयेचे भाशेंत...

## काळेकिट्ट घोडे

काळेकिट्ट घोडे धांवतात कॅनवासार खिंकाळत
काळेकिट्ट घोडे धांवतात कॅनवासार
काळेकिट्ट घोडे धांवतात
काळेकिट्ट घोडे
काळेकिट्ट

धांवत धांवत
घोडे पावले खंय?
दिसनात दोळ्यांक
दिसता फकत कॅनवास
धवोफुल्ल
आनी
येता आयकूंक एकसारको
कानाच्या पड्डयार खड खड खड खड
घोड्यांच्या टापांचो आवाज...

# सोंसो

टुण
टुण
टुण

उडक्यो मारीत
धांवता
धव्याफुल्ल कॅनवासार

धवोफुल्ल
गुबगुबीत
मस्तो सोंसो

ताका
धव्याफुल्ल रंगान
हांव धरूं कसो?

## कावळे

कावळे उडत चल्ल्यात
मळबांत काळे काळे तिळसनां
आनी
येता काळोख
तांच्या फाटल्यान
महाकाय पाखां हालयत
विराट जावन

म्हणसर-
नाच्च जाले कावळे
उडत उडत पयस
दिसनाशे जाय मेरेन
आनी
रावलें व्यापून
मळबाक सगळ्या
काळखाचें विराटपण
पाखांनी काळ्या काळ्या...

# ओळ

कोळशावरी
पेन्सिलीन काळ्या
चित्रायलल्या चित्रांतली
ओळ एक वाकडी
आपलेच भिरकेंत
रावल्या घेत झोंपय
मळबाकडें
माड कशी...

# शिल्प

खर उजवाडाचें
एक
एक
भगभगतें सोंपण देंवून
तो आयलो
मिट्ट काळखांत
आनी मनांतल्यान
कांतयल्लें एक शिल्पूच जालो
काळखाचें...

# किर्णां

उसवता फांतोड
इल्ली
इल्ली
सांवरीच्या
बोणांवरी

किर्णां
कापूस कशीं

–जळींमळीं...

# एकांत

एकांत असो येता फुलून
धव्याफुल्ल साळकांवरी
साळकां कणकणीं
धवोफुल्ल...

# पिकिल्लें वोत

भांगर भांगर जाल्लें
पिकिल्लें वोत
सळसळट्या पिंपळाचेर
सांडत रावलें
पिशा भशेन...

# सोनकंवळें

वोतांत रंगपाचें
हें पिशेंपण म्हजें
सोनकंवळें
अळंग
तुज्या सांगातान जाता
सोनसांवळें...

## सोनचांफो

तापता
तितलें फुलता तूं
रसरसून
म्हजे वेंगेंत
रिगत
रोमत
चळचळ चळत
लोळत
खर वोताचो म्हजो
देहभार सोंसत
रावता
घमघम
घमघमत
सोनचांफ्याच्या
हडव्याचार आंगाचो
देह तुजो...

## त्या उम्यांचे भाशेंत

जेन्ना
झाडांक पडलें सपन
फुलांचें
तेन्ना
फुटलीं पाखां दर्याक
ल्हारांचीं
नकळटनां
ओंठार आयली भास
उम्यांची

त्या उम्यांचे भाशेंत
उलोवया आमी रसरसून
रगता भशेन तांबडीगुंज...

# बोगनवेलीचे खांदयेंतल्यान

तांबडो-केसरी रंगाचो थेंबो
आयलो रसरसून
बोगनवेलीचे खांदयेंतल्यान
देंवलो
सकयल
इल्लो इल्लो
निस्तत
आनी थारलो येवन
जिस्त
तंवकतले खांदयेच्या तोंक्कार
फुलांचो घोंस जावन...

# हो पाचवोचार रंग

हो पाचवोचार रंग
म्हळ्यार
झाडां समज

हीं धवींफुल्ल फुलां
म्हळ्यार
उजवाड समज

भिरभिरता
भितर कितेंतरी
हडवेंचार
–शेवणें काय?

हालता पळय
हालता पळय
शेवण्याच्या दोळ्यांत तितलें

हालता पळय
उदक

अचकीत
भायर-भितर पाचवेंचार
—रान समज!

# ल्हाय

ओलें तूं
ओलों हांव

ओलें सगळें रान
मुसमुसता

रगतूय उबें
फणो उबारून धोलता

दोंगराचो सुळको
घळयेची गोलाय

पावसांत ही
ओलाय ओलाय

दोंगर भिजता
ओलायेंत

घळी देंवता
खोलायेंत

ओली ओली
ओलसाण ही

तुजी-म्हजी
ताजपाण ही

आंकवार वेंगेची
हुनसाण ही

आंग आंग
घुसळटा

--पावसाचो थेंब
ल्हाय कसो उसळटा...

## तेजःपुंज

ह्यो ओळी न्हय कवितेच्यो
ह्यो वाली– रानवाली
म्हज्या मनाक
वेश्टल्ल्यो गच्च गच्च
पाचव्याचार रानउमाळ्यान

हीं उतरां न्हय कवितेंतलीं
हीं धगधगीत रानफुलां
रानांतलो घनदाट
काळोख पियेल्ल्या
ह्या वालींच्या आंगार रसरशिल्लीं
तेजःपुंज!

## सळसळ

सळसळटात हीं झाडां
काळखांत

काय सळसळटा झाडांनीं
हो काळोख

वाऱ्याक खबर!

आनी
वारो हेंवूय जाणाः
सळसळटा
तूं आनी हांव
ह्या काळखाच्या झाडापोंदा

खांदयां वरी रसरशीत
परमळूंक लागले स्वास आमचे
निक्तेनिक्तेच
मिरमिरीत...

# झाडापोंदा

झाड झणझणत रावलें
आनी झाडापोंदा
तूं आनी हांव

हांव झेलता वयर
म्हजेपोंदा तूं
सकयल

जातात खांदयो झाडाच्यो
सकयल वयर
वाऱ्यार

झाड झणझणत रावलें:
झाडाच्या माथ्यावयलें मळब
झाडाच्या खांदयांक येवन तेंकलें...

आनी झाडाच्यो खांदयो हालत
आमच्या खांद्याक
भरगच्च फुलारून

## मुळांक फुट्टात दोळे

मुळांक फुट्टात
दोळे
आनी
दोळ्यांक दिसता
पाचवीचार पानां
झाड
लखलखतना
काळखांत

हांव
पळेतां वाट
मुळांक दोळे फुटपाची

झाड जावन
लखलखपाची

पाचवेचार कवितेंत
घनदाट काळखांत...

## नेणिवेंत

एक झाड चिंवचिंवूंक लागलां शेवण्यांनी
काळखांत
पानापानांनी आपले काजळकाळे
दोळे उगडून

एक फांतोड फुलूंक लागल्या
निक्ती निक्तीच भितर खंयतरी
नेणिवेंत...

## फुलांचे घोंस फुटून

झड
गळय पिकलेलीं
जुनाट लोळकीं पानां

आनी होराय
तन्न्या पाचव्या
उजवाडाक

फुलांचे घोंस फुटून
वाऱ्यार धोलतल्या
तांबड्यागुंज गर्भरस्मी उज्याक...

# हांव येतलो तेन्ना

हांव येतलो उजो कसो
म्हजो रसरशीत हळडुवो हुंवार
जावन येतलो
तुजो

त्या उज्याची धग भोग
अमोघ
आंगभर ताचो ओघ

त्या हळडुव्या हुंवारांत
धगधगूं तुजें
हून रगत;
त्या हून रगताचेंच
जातलें सुर्यफूल पळय
हांव येतलो तेन्ना...

# सुर्यफुलां सारकी दनपार

सुर्यफुलां सारकी दनपार
तुज्या दोळ्यांत फुलत आसा

हांव चलत आसा तुज्या सांगातान
अजुनूय, ह्या रखरखत्या वोतांतल्यान...

# तन्नी तन्नी पानां

तन्नी तन्नी
पानां तुजीं
वाऱ्यान वेंगेंत घेतिल्लीं
पिंगशीं

तन्नी उरूं
तन्नी उरूं
पिकली जरी
पानांची ही जीण तुजी
वाऱ्याची ही झिणझिण म्हजी...

# जांबळपिको

तांबड्या रंगांत निळो भरसून
हांव जांबळ्या कडेन पळेतां मळबांतल्या
आनी म्हाका जांबळांचो येता उगडास
आनी येता उगडास तुजो
तुज्या थानांचो
थानांच्या बोंडांचो
जांबळपिको

# देहबोली

रगताचीं
चित्रां काडीत
रंगता
गात्रांनी
धगआबोली
आयली ओंठार
अळार जावन
तुजी
थानकंवळी
देहबोली...

## तूं जंय उबें

तूं जंय उबें आसा
थंय हांवूय उबो आसा
तुका वेंगून
आनी तूं वेंगून आसा
झाडाक
जें तुजे वेंगेंत येना
आनी
झाडाचे वेंगेंत येना
शेवणीं
ज्यांचे वेंगेंत मळब येना...

## तूं म्हणटा

तूं म्हणटा
हांव आयकतां गो

तूं म्हणटा तें
हांव आयकतां गो

तूं म्हणटा तें तें
हांव आयकतां गो

तूं म्हणटा जशें
तशें हांव आयकतां गो

आयकून आयकून
म्हाका
आयकुंकूच येना गो
तूं म्हणटा तें

म्हाका कांयच आयकूंक येना गो
तुजे उगडटात-धांपतात ते ओंठच
फकत
म्हाका दिसतात गो

# सोंपणां

तूं सोंपणां देंवतनां
हांव सोंपणां चडटालों

मदींच
मदल्या सोंपणार
आमी
दोगांय थारलीं

एकामेकांक
पळेत हांसलीं

मागीर
तूं देंवत रावलें
सोंपणां
थंय सोंपणांच नासलीं

हांव
चडत रावलों
सोंपणां
थंय सोंपणांच नासलीं...

## तुजे भितर

हांव वतां भितर भितर भितर
तुज्यांतल्यान–
मात येतनां परतो भायर
तूं अळंग लावन घेता
दार

हांव भितर
तुंवूंय भितर
आनी हांव तुजेभितर
काळजाचें जनेल उगडून पळेतां
भायर

भायर कांय ना
सगळें भितर भितर भितर
सळसळत रावतां हांव भितर जितलो
आनिकूय फुलूफुलून येता भायर
तितलो तितलो...

# तुजे खांदयेर

हांव
एक सान शेवणें जावन
बसतलों येवन तुजे खांदयेर
खांदयेक म्हजी सुलूस लायनासतना

हांव चिंवचिंवचों ना
हांव खांदयेक भुलचों ना
हांव खांदयेर घोंटेर लेगीत बांदचों ना

तुका कळचें लेगीत ना केन्ना
हांव जेन्ना वतलों उडून
तुजी खांदी सोडून...

# झुळूक

मंद वाऱ्याची
झुळूक कशी हुळहुळटी
सरता मुखार
ही जीण
गिमाची रखरखीत
दनपार भोगीत;
रावता किणकिणत
पाडकाच्या
गळ्यांत बांदिल्ले
घांटी वरी
सावळी सोदीत...

## सावळ्यांचीं रानां

काळसार काळी एक सावळी
जायत रावली लांब लांब तिळसनां
एक सावळी
मातशी मोटवी
सांगातान तिच्या
हातांत हात घालून चलतनां
रावली मातत
पयस-पयसमेरेन
रानां सावळ्यांचीं
घनदाट

# सावळ्यांची एक भास

सावळ्यांची एक भास आसता
आभासाची

सावळ्यांची एक सळसळ आसता
झाडपिकी

तरल जायत रावतात सावळ्यो
काळश्यो
उदकांत

जशें तूं,
तशो सावळ्योय पळेतात आपलें रूप
पाणयाच्या हारशांत

आपालिपा खेळत रावतात सावळ्यो
उजवाडा कडेन
मुदयाळ्या

केंसांत तुज्या मुदयाळ्या रावल्या घुस्पून
सावळ्यांनी
म्हजी रात...

# चंद्रमुखी

काळसांवळ्या
थानांत तुज्या
उदेवंदी
लुसलुसो चंद्र
आनी
मुखामळ तुजें
फुलून चान्यांत
जावंदी
चंद्रमुखी...

# तुज्या केंसांत

जागेपणीं
सळसळटात पानां
चान्न्यांत

भासतात
चकचयाळ नक्षत्रांवरी
सपनांत

भास-आभासाच्या
पेल्यान
तूं उबें –

सोदतां हांव नक्षत्रां
माळूंक
तुज्या केंसांत...

# नक्षत्रांच्या दोळ्यांनीं

मळबांत रातीच्या
हांवें
लिपयलां तुका
आतां तूं
नक्षत्रांच्या दोळ्यांनी
सोद म्हाका...

## नक्षत्रां खातीर

हो लुसलुशीत काळोख
पुंजाय
तुजे व्हंटयेंत
दवर सांबाळून
तुज्या
मनांतल्या
नक्षत्रां खातीर...

# जनेलांत

दारां उगडीत गेलों घराचीं
एका फाटल्यान एक इतलीं वर्सां नेमान.
काळखाचो घयरांव झाडीत
घेतलीं चकचकीत उजवाडाचीं ल्हारां घरांत.
झणऽ झणऽ वाऱ्याचो घोसोळ घेतलो आंगार.
येतीं-वतीं पावलांय
बोवाळत, किटकिटत आयलीं घरांत
आत्रेपयऱ्यान.

काल तिळसनां
सदां भशेन उगडिल्लीं दारां
एक एक करून धांपतना
इतलो तेंप कुशीक धांपून पडिल्ल्या
त्या कोनशाच्या जनेलाचेर म्हजी नदर थिरावली.
हावाशिवा करून एकदांची
जनेलाची कळमेल्ली खिळी काडून

गच्च, फुगारशें जाल्लें जनेल उगडून
ल्हवूऽ भायर पळे जाल्यार–
रात चंद्रकळा न्हेसून
तट्टीत नक्षत्रांचे घोंस माथ्यांत माळून
एकांताची सावळी भोगीत
एकटीच येवन बसल्या
जनेलांत...

## चंद्रीमाचें सपन

केन्नातरीं
रंगयल्लें झाडपिकें सपन
तुवें आनी हांवें
हांगा बसून
ह्या झाडापोंदा
धव्याफुल्ल गुलगुलीत चंद्रीमाचें

आयज
म्हज्या माथ्यार चंद्रीम अर्दोच आसा
आनी अर्दो
लिपयला तुवें तुज्या काळजांत
खंयतरी!

## कागदावयलो चंद्र

तूं उडय पिंजून कागद
त्या कागदावयलो चंद्रूय उडय पिंजून
तुका जाय जाल्यार कागदाचो समजून
पिंजल्यार लेगीत तो उदेतलोच
मनांत तुज्या-म्हज्या
परतो परतो.
कागदाची गुठली करून उडोवं येता
चंद्राची गुठली करतलो कोण?
कागद आसा सुको सुको
भिजून जाता ओलो ओलो
चंद्रूय आसा सुको, निबर आनी फातराळ–
आतां चंद्राच्याय दोळ्यांत उदक पाझरता खंय!

# तुजी याद जाता तेन्ना तेन्ना

हांव म्हाकाच घालता विसरायेर
तुजी याद जाता तेन्ना तेन्ना
हांव विसरतां म्हाका
हांव तुकाय विसरतां
हांव निसरतां
तरूय जियेतां म्हजी जीण
जिणेक विसरायेर घालून
म्हजेपुरतो

## अशें कांय ना

तुवें म्हजेकडेन पळोवंकूच जाय
अशें कांय ना
म्हजेकडेन कांय ना
तुवें अशें पळोवपा सारकें

एकसारकें तुवें पळोवंकूच जाय
अशें कांय ना
म्हजेकडेन
पूण तूं पळेत आसा म्हजेकडेन
असो म्हाका जाता भास
एकसारको
—हजार दोळ्यांनीं...

## आवय

पयलेंच चोखलें उतर हांवें
दुदाचो थेंब कशें
आनी म्हजें काळीज जालें आवयचें

जंय जंय दवरलो पांय
रावलीं फुलत थंय थंय
भुंयफुलां

जंय जंय थिरायले दोळे
दिसत रावलीं म्हाका थंय थंय
सपनां

आतां हांव गाढ न्हिदेंत आसा
पळेतां सपनां
आवयच्या काळजाच्या दोळ्यांनीं

गाढ न्हिदल्या उपरांतूच
आवयच्या काळजांत
फुलतात सपनां...

## भुरग्यांची आवय

कवितेविशीं बायलेक कितें सांगूं हांव?
जाय जाल्यार बसूंदी तिका वचून
म्हज्या उतरांच्या खडपांचेर
वाऱ्याक

मळबाविशीं बायलेक कितें सांगूं हांव?
माथ्यार आसता मळब तिच्या
सदांच; चलतां भोंवतां–
कसली नवीदाद तांतूत?
जाय जाल्यार पळोवंदी तिका मळब
म्हजे कवितेंतलें
जाय तेन्ना
जाय तसले
जाय ते तरेन रंग बदलतनां

भुरग्यांक म्हगेल्या
दाखयतां हांव कविता
बरयल्ली म्हजे बायलेचेर.

आतां
भुरग्यांक कवितेविशीं कितें सांगूं हांव?
भुरग्यांक मळबाविशीं कितें सांगूं हांव?
—भुरगींच हांसत हांसत
सांगतात म्हाका
आवयविशीं;
भुरग्यांची आवय
जाल्ली आसता भुरग्यांखातीर
कवितेंतलें मळब...

# नागडो

हांव
हारशा मुखार आसा नागडो
आनी हारशांतूय हांव आसा नागडो

जल्माक येतनां हांव नागडो
आनी मर्णा उपरांतूय हांव नागडो

हांवें पळेलें म्हजें नागडेपण
भुरगेपणांत लजतनां

हांव भोगतां म्हजें नागडेपण
संभोगांतल्या तरणेपणांत

पूण पळोवंक पावचोना हांव
म्हजें नागडेपण
पाचव्याचार केळीच्या पानार न्हिदिल्लें...

# उत्सव

कवी
नागडोच आसता कवितेंत
आनी
कविताय आसता नागडी
प्रतिमांच्या हारशांनी

प्रतिमांच्या लखलखत्या हारशांनी
पळेत रावता कवी
आपल्याकूच
परत परत

भोगीत
भोगीत कवितेक
मनयत रावता कवी
आपल्या नागडेपणाचो पारदर्शी उत्सव...

## उजवाडाचो गाब

उतरां पेंवत पेंवत
येतात कवितेंत
विर्यांतल्या शुक्राणू सारकीं

उतरां पेंवत पेंवत
गर्भाशयांतल्या
काळखांत
देंवतात
आनी जातात कुड्डीं

काळखांत लेगीत
जिका दिसता
तीच कविता पळोवंक शकता,
फुलोवंक शकता गर्भाशयांत
उजवाडाचो गाब...

# गाय

कवीच्या मनांत आसता गाय
आनी पाडूक
कवितेंत-

गाय मायेस्त, सोंशीक
कळवळ्याची
काळ्या उदकाळ दोळ्यांची

चाटीत रावता गाय
मस्त्या, बिटबिट्या दोळ्यांच्या
गुबगुब्या पाडकाक

पाडूक हुंदडटा हुंदडटा
कानांत वारो
भरून

पाडूक भुल्लुसता भुरकुट्टा
पळोंव नाशिल्लें
पळोवन...

पाडूक नाचता हांगा-थंय:
सोंशेता खर्शेता
वाटकुळें वाटकुळें फिरून

पाडूक बसता मुटकुळी करून
ओग्गी-एकटें; कुशीकशें
थकून-दमून...

आनी पाडूक जेन्ना भुकेन कळवळून
हांबेता
तानेता

– गाय
कळवळ्यान
पानेता...

## इंगळे

इंगळे पेट्टात
आंगान आंग
फुलरीत
उज्यान

गुंजतांबडे
रखरखीत इंगळे

जळटे
जळजळीत इंगळे

धगमोडे
धगधगीत इंगळे

भिरांकूळ
भगभगीत इंगळे

धुसफुसतात
धुमशेतात इंगळे

उज्यांत
जळफळटात इंगळे

इंगळे हुलपे
इंगळे तिखट
इंगळे निबर

इंगळे साक्षात
अग्निरूपी

इंगळे कोळशाचो
रूद्रावतार!

## थंय

कांय तळपां
थंड पडून आशिल्लीं थंय
काळींकिट्ट

केन्ना काळा तींय धगधगतालीं उज्यान
रसरसत्या
लाव्हां भशेन

कांय उतरां
ओग्गी पडून आशिल्लीं थंय
काळजांतल्या काळखांत

धगधगून
देंवलीं कागदार
एक दीस नकळत

मागीर दीस म्हयने वर्सां गेलीं
वर्साचीं वर्सां वचून
काळ गोठेवन थंड पडलो

मागीर
कागद कागद उरलो ना
उतरां उतरां उरलीं ना

कागदाची जाली भूंय
उतरां ते भुंयेंच्या पोटांतली उब घेवन
सरलीं वयर झाडां जावन

तेन्ना मळब तांची वाट पळेत जागें आशिल्लें थंय
वर्साचीं वर्सां
सुर्य-चंद्राक गोपांत धरून...

# पयस मेरेन

शांत
दिसता गांव पयस मेरेन–

पयस मेरेन मळब
दिसता निळायेंत बुडिल्लें

पयस मेरेन पडिल्लें गांवाचें पडबिंब
न्हंयेच्या उदकांत

पाळण्यांत न्हिदिल्ल्या भुरग्या भशेन
न्हिदला गांव सुस्त

– शांत
दिसता गांव पयस मेरेन
पयसुल्यान

लागींच्यान
दिसूं येता शांत
पूण आसूं येता अशांत

त्या भुरग्याचे आवयभशेन अशांत;
जिणें गांव न्हिदेंत आसतना
एक दीस
जिवाक विटून जीव दिलो न्हंयेंत...

## भितल्लो आवाज

भितल्लो आवाज येवंक जाय
भायर—

भायर कांय नासता
सगळें आसता भितरूच
काळजाक दशिल्लें काळें निळें

भितर आसता काळोख काळो निळो
वेंटाळें करून बशिल्लो
सोरोप कसो

भितल्लो आवाज
उरूंक जायना भितर;
भितल्लो आवाज
फणो उबारीत
येवंक जाय भायर फोंसणां घालीत

भितल्ल्या आवाजाचो दंश आसता विखाळ;
हें वीख
काळें निळें जावन
काळजांतल्यान येवंक जाय भायर...

## मूय

गर्भकुडींत वचून बसल्या
मूय
आनी
सगळे दोमळे एक जावन
करूंक लागल्यात
घंटानाद

गर्भकुडींत वचून बसल्या
मूय
आनी
मुयेचीं सपनां जावंक लागल्यां भुंयेचीं;
रोयणीवयले
सांतेरमायेचीं...

# मुयांची कविता

सपनांत येतात मुयो म्हज्या
आनी म्हजीं चिंतनां मुयेतात...

मुयो येतात
मुयो वतात--
मदींच हांसतात
मदींच थामून एकामेकांचो
उमो घेतात

हांव चिंतता--
खंयच्यान येतात काय ह्यो
खंय वतात काय ह्यो
कितें सांगूक सोदतात काय ह्यो
कितें उलोवंक सोदतात काय ह्यो
कोणाचो मोग करतात काय ह्यो
मुयो!

मेरेवयल्यान
सवकसायेन चलपी मुयांचीं
हीं काळीं काळीं पावलां हांव पळेतां
मुयांच्या पावलांनी हांवूय
ल्हवू ल्हवू तांच्या सांगातान चलूंक लागतां
मुयांची मोनेळिची भास
काळीजपिशीं सपनां,
हांव समजूंक सोदतां
म्हज्या उतरांनी उक्तावंक सोदतां
म्हजेकडेन एकसारक्यो पळेत पळेत
बारीक्क दोळे करीत
हांसतात मुयो
आनी हांसतां-हांसतां अचकीत
तांचे दोळे भरून येतात
घळ्ळ करून तांच्या दोळ्यांतल्यान
गळूंक लागतात दुकां...

म्हजी न्हीद खळटा–
मुयांच्या दोळ्यांतल्यान
गळटात दुकां
गळटां गळटां जायत रावतात व्हड व्हड

पृथ्वीच्या आकारायेदीं व्हड व्हड
आनी म्हज्या पायांपोंदची भूंय
गद गद हालपाक लागता
म्हजे हात-पांय गळसणपाक लागता
म्हज्या काळजाचें उदक उदक जाता

खंयच्यान तरी
अचळय रीग काडीत
म्हज्या सपनांत येतात मुयो;
कच्च करून
आपलें काळीज तोडून दीत
म्हणटात म्हाका
आमच्या सांगाताक यो!



## परेश नरेंद्र कामत

जल्मः १९६८ वर्सा- पणजी, गोंयचे राजधानींत.
वेवसायान फार्मासिस्ट.

**उजवाडाक आयिल्ले कविता झेले:**

अळंग (२०००)
गर्भखोल (२००४)
शुभंकर (२००९)
चित्रलिपी (२०१३)

**फाव जाल्ले पुरस्कारः**

कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार २००१

कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार २००५

धी गोवा हिंदू असोसिएशन (मुंबय) कविवर्य बा. भ. बोरकर स्मृती साहित्य पुरस्कार २००४

कला अकादमी साहित्य पुरस्कार २००९

जनगंगा साहित्य पुरस्कार २०१०

जे सी आय फोंडेंचो युथ आयकॉन पुरस्कार २०१०

युवा सृजन (साहित्य) पुरस्कार (गोंय सरकार) २०११-१२

वेंचिक कोंकणी कवितांचे अणकार हिंदी, मराठी, पंजाबी, सिंधी, गुजराती आनी इंग्लीश ह्या भाशांनी जाल्यात.

केंद्रीय साहित्य अकादमीन- मेघालय, औरंगाबाद, बंगळुरू, पणजी, कोची हांगा आयोजीत केल्ल्या राश्ट्रीय पांवड्या वयल्या कविसंम्मेलनांनी वांटो घेतला.

हिंदी कवी राजेश जोशी हांच्या 'दो पंक्तियों के बीच' ह्या साहित्य अकादमी पुरस्कार फाव जाल्ल्या कविता संग्रहाचो कोंकणी अणकार केला.

"चित्रलिपी" हो परेश नरेंद्र कामत हाचो चवथो काव्यसंग्रह. परेशान आपले कवितेखातीर आपल्या विशयांक जाय तसली भास निर्माण केल्या आनी आपल्या सृजन-बंधाचें काम सोपें केलां. तशेंच हे भाशेवरवीं ताणें कविता, कविताप्रेमींकडें नकसूद नातेंय जोडलां. ताचे विशय चड करुन 'तो-ती' च्या लागसारपणांतल्यान निर्माण जावन आयल्ल्या कारणान खूब संवेदनशील जाल्यात. ही संवेदनशीलताय ताणें ताचे सयभोंवतणी आसलेल्या सैमसुंदरांतल्यान आळयल्या. ताका लागून ताची भास ताच्या विशयांक अळंग तशेंच गर्भखोल जावन केळयतना पळोवंक मेळटा. ताची भास ताचे संवेदनशीलतायेक शुभंकर जाल्या अशेंय प्रत्ययाक येता.

चित्रलिपयेंत ताची भास आपल्याक उदकावरी सहज आनी अचळय जावन केळयता. रातीच्या ह्या तुडूंब भरिल्ल्या काळख्या उदकांत उदेल्ली ही चंद्रकोर म्हाका व्हडें कशी दिसता, अशें ताची कविता उलयता. काळख्या उदकांतलो हो थरथरतो आनी लखलखतो अणभव मनांत येवन राबितो करता. हांगा ताची भास एक कॅनवास आकारुन ताचेर चित्रलिपी निर्माण करता. तीं भुरगीं, ते भुरग्यांचे सानुले हात आनी निचेश्ट, अचेतन वण्टींक जिवसाण हाडपी ह्या भुरग्यांचीं चित्रां जिणेतले संवेदनशील खीण कोरुन घेता. ह्या कॅनवासाचेर काळेकिट्ट घोडे खिंकाळत धांवतात. हांगा धवेफुल्ल मस्त सोंशे टुण्ण टुण्ण करुन जिते जिवे धांवतना दिसतात. हांगा तिनसांजच्या वेळा काळोख, विराट जावन आपलीं महाकाय पाखां फडफडायत कावळ्यां फाटल्यान ओडत वयतना दिसता. चित्रलिपयेंत कवीन आपल्या जाणीवांची शिल्पांय करुन उडयल्यांत. तो खर उजवाडाचें एक एक भगभगतें सोंपण देंवून मिट्ट काळखाच्या गोपांत येता आनी मनांतल्या मनांत त्या काळखाचें एक कांतयल्लें शिल्प जाता. अमुर्त जाणिवांक उतरांतल्यान शिल्पित करपी ही कविता. हांगा फांतोड सांवरीचें फुट्टें बोंड जाता जाल्यार फांतोड-किर्णां जळीं मळीं शिंपडलेल्या कापसाचें शिल्प जाता. चित्रलिपयेंतल्या कांय कवितांत परस्परांचें ओडलायणें लावण्य पळोवंक मेळटा. ह्या लावण्याची देहबोलीय आगळीच. तशीच ह्या लावण्याची रंगबोलीय वेगळीच. ही लावण्यवती रगताचीं चित्रां काडीत गात्रांनी रंगता. ही चित्रलिपी शेवटाक सांतेरेमेरेन म्हणचे आमच्या सांस्कृतीक दायजामेरेन येता.

परेशाची कविता सदांच आनंदोत्सव मनयत आसता. आत्मानंदांत मग्न, निमग्न आसपी ही सौंदर्यासक्त कविता चित्रलिपयेच्या माध्यमांतल्यान कोंकणी कवितेच्या विश्वांत आपलें सकस पावल आनीक दृढ करता हातूंत मात्तूय दुबाव ना.

**रमेश भगवंत वेळुस्कार**